

# तुका खबर ना,
# झूज चालू आसा तें?




**जेम्स स्टिवन्सन**

**कोंकणी अणकार :**

**अंकिता जांबावलीकार**

तुका खबर ना,

झूज चालू आसा तें ?







1942 वर्सा, एक झूज जालें.



म्हजो भाव नावीक दळांत गेलो.

हांव म्हज्या आवय-बापाय
वांगडा घरा रावलों.



लोक परत परत म्हणटालें, "तुका खबर ना, झूज चालू आसा तें?"

पापा... चार्ली आनी
हांव फिल्म पळोवंक
वचूं?



"तुका खबर ना,
झूज चालू आसा तें ?"



आरे देवा,
परत तेंच
जेवण
नाका!

"तुका खबर
ना, झूज चालू
आसा तें?"



म्हाका एक बेबी रूथ
चॉकलेट जाय.

"तुका खबर ना,
झूज चालू आसा
तें?"



हांवें झूज जिखपा खातीर मदत करपाचो यत्न केलो.



हांवें बेगड एकठांय करून
तिचो एक गुळो केलो.



हांवें लातां
सांबाळून
दवरलीं.



राती कडेन, दुस्मानांक
घरांतलो उजवाड
दिसचो न्हय म्हूण हांवें
जनेलाचे पड्डे बंद केले.



हांवें झुजाचे स्टॅम्प
विकते घेतले.

जेवणाचो उणाव आसलो.
आमी एक “जैत पोरसूं" लायलें
आनी तातूंत खूब काळी भाजी
रोयली.



काळी भाजी कोणाक आवड ss नासली.
ती खावपाक पचपचीत लागताली.

लोक आपले गाडयेच्या विण्डशिल्डाक, आपल्याक कितलें पेट्रोल
विकतें मेळूंक शकता हें सांगपी स्टिकर लायताले.



चडश्या लोकांक "A" स्टिकर मेळटालो,
म्हणल्यार खूब कमी पेट्रोल.



कोणाकय दुसरो स्टिकर
मेळ्ळो जाल्यार, लोकांक
प्रस्न पडटालो, हाका हो
कसो मेळ्ळो?



मिस्टर हॉलस्टॅड हवायी-हमल्यांचो अधिकारी आसलो.

ताच्या दंडार एक अधिकृत पट्टो आसतालो आनी हातांत एक टॉर्च. तो रातचो पासय मारतालो आनी सगळ्यां घरांनी काळोख जाला काय ना, हाची खात्री करून घेतालो.

कांय वेळा तो पासय मारता तें आयकूंक येतालें.

सावधान! हांव हवायी-हमल्याचो अधिकारी!

कोण?

हवायी-हमल्याचो अधिकारी.

आ, हॉलस्टॅड रे?

ती लायट बंद कर.

खंयची लायट?

वयले माळये वेली लायट.

खंय? माळयेर? पूण म्हाका मागीर कांय एक दिसचें ना.

आसूं तर, काय नजो.



पाणबुडी तारवांतल्यान, कांय गुप्तहेर चोरया दर्यादेगेर येवन फार करूंक शकतात, अशी शिटकावणी आमकां दिवप जाताली.





ते घडये विजेचो कारखानो आनी रेल-पुलाचेर स्फोट घडोवन हाडूंक सोदताले.

म्हाका मनांतल्यान दिसतालें, तांणी चुकून हॉवर्ड जे. डेवीस एलिमेंट्री स्कूल उडल्यार पुरो.





आमी जाणट्या मिस्टर श्मीडचेर नदर दवरताले. तो घडये गुप्तहेर आसत अशें आमकां दिसतालें..

कांय कळना...ताचें वागणें दुबावी नाशिल्लें.

अर्थांतच, प्रशिक्षीत गुप्तहेर तो !



आमी ताचे फाटल्यान ताच्या घरा मेरेन गेले.



ताची खोंप घडये सुरिंगांनी भरिल्ली आसत.

तो आपल्या रेडियोचेर झुजाच्यो खबरो आयकता!

सगळयांच्या दोळयांक उदक लावंक तो झेंडो लायला आसत!

सेर्त! तो एक गुप्तहेरच.

आमकां इश्ट आनी दुस्मान विमानांचे आकार समजून घेवचें पडलें.

सोंपें काम नासलें तें.




म्हजे इश्ट आनी हांव काळोख जातकीच, दुस्मानांचीं विमानां सोदपाक मळबांत पळयताले.




झुजा मळार आपूण कितें करतले हाचेर म्हजे इश्ट उलयताले.




म्हाका नावीक दळांत भितर घेतिल्लो जाल्यार, हांव कितली हुशारी दाखोवपाचों, हें कोणाक समजूंक नासलें.



सिडनी कडेन जगाचो नकासो आशिल्लो. नकाशार पिनी तोपून झूज खंय चल्लां हें तो आमकां दाखयतालो.
तुवें जर विचारलें, "ग्वाडल-कॅनाल खंय आसा?"
“तुका कांयच खबर ना रे?” अशें सिडनी म्हणटालो.



सगळीं पदकां कित्या खातीर आशिल्लीं हेंय सिडनीक खबर आशिल्लें.

हें कितें सीड?



लिजन ऑफ मॅरीट, निश्चितूच!

मोली, डेवीड आनी हांवें मेळून “द ब्लॅक-आवट" नांवाचें, एका पानाचें एक सातोळें चलयलें.




कोण-कोण झुजांत वांटेकार जाल्ले, हाचे विशीं सातोळ्यांत माहिती मेळटाली. (“डेवीड ग्रेचो अंकल ज्यॉर्ज, सार्जेंती सकयलो अधिकारी आशिल्लो") पूण आमी तातूंतल्यान खंयचींच गुपितां उक्तीं करूंक नात.

लोक आपलें रगत खंय दान करूंक शकतात, दुकराचें खारें-मांस आनी केळ भाजये सावन खंयचीं पक्वानां करूं येतात, हाची माहिती आमी छापून हाडटाले.





एक दीस म्हज्या बापायन
म्हणलें, "चल आमी पासयेक
वचुया."
म्हाका खूब बरें दिसलें.
आमी अशे सांगातान पासयेक
चड वच नासले.



उपरांत ताणें म्हाका आपूण फौजेंत वतां म्हूण सांगलें,
हांव रडपाक लागलों.
ताणें म्हाका धीर दिलो..



“आवयक सांबाळ," ताणें म्हणलें.



म्हजो बापूय एके ट्रेनीर बसून फौजेंत गेलो.

म्हज्या बाबान फाटल्यान किर्ते
किर्ते दवरलां तें पळोवंक हांव
घरभर भोंवलों.



ताचें गवेतांचें मेज



ताचें मेज



ताका गरज नाशिल्ल्या
कपड्यांनी भरिल्ली
आरमार.



ताची बॅग

ताच्या मान्र्यांत

शेविंग ब्रश
नासलो





रेजर नासलो



टूथ-ब्रश नासलो



टूथ पावडराचें लात
नासलें



हांवें म्हज्या बापायचो एक फोटो म्हजे कुडींत दवरलो.
हांवें ताची खूब याद काडीत रावल्यार, ताका झुजा मळार
कांयच जावचें नाशिल्लें.

म्हजी आवय सदां झुजाच्यो खबरो वाचताली.
तिका खूब हुसको जातालो. तिचे खातीर कितें करचें,
म्हाका कळ  नासलें.



आमी फिल्म पळोवपाक वतालीं तेन्ना,
झुजाच्या खबरांची रीळ दाखयताले.




तातूंत भिरांकूळ संगीत आसतालें, आनी एक नाटकी आवाज आयकूंक येतालो:
“दुस्मान सेना आतां अमेरिकी वायू शक्तीच्या प्रभावशाली वारान
हालपाक लागल्या...."

एक नौसेनाधिपती शारांत आयलो आनी आमी कशे तरेन झूज जिखतले,
तें सांगपाक लागलो.



हो नौसेनाधिपती डॅनी रॅनकिन्साचे आवयचो चुलतो आशिल्लो,
आनी उपरांत डॅनीक ताचे कुशीक उबो रावपाक संद मेयळी.

आमी बुचकळ्यांत
पडटाले, डॅनी सारक्या
पोरांच्याचो
नौसेनाधिपती सारको
एक सोयरो कसो आसूंक
शकता.





शिंयाळो आयलो, आनी एक दीस बापायची
चीट आयली. ताका फौजे खातीर कांय
हॉटेलां चलोवपाक फ्लॉरिडा धाडिल्लो.

बापायन सांगलें, शाळेच्या
सुट्यांनी आमी ताचे सरीं
फ्लॉरिडा येवचें.

आरे व्वा!



तीन दीस लागले.
ट्रेन, सैनीक आनी तारवट्यांनी गच्च भरिल्ली.





आमी सुदैवी. आमकां गाडयेंत न्हिदपाची सुवात मेळ्ळी. हांव एके
निसणीचो आदार घेवन म्हजे न्हिदपाचे सुवातेर चडटालों.
एकदां वयर पावलो म्हणटकच, हांव सप्प करून पड्डे बंद करतालों.



उपरांत कपडे काडून पजामा घालप
आनी पासार जावपी शारांचीं-शारां पळोवप.



निमाणें, आमी फ्लॉरिडा पावलीं आनी ट्रेनींतल्यान सकयल देंवलीं.



आनी थंय म्हजो बाबा आशिल्लो.




बापायन म्हाका ताचे कामाचे सुवातेर व्हेलो. फौजी ताका सलाम मारताले. हें पळोवन म्हाका अभिमान दिसलो.

नातालां दिसा आमी दर्यांत पेंवपाक गेले, थंय गर्मी खूब आशिल्ली.



आमी मनभुलवयण्यो सुवातो पळोवपाक गेलीं. म्हज्या आवय-बापायक
फ्लॅमिंगो सवणीं पळोवपाक आवडटालें.
म्हाका तातूंत चड रुची नासली.



म्हज्या मतान, थंय जायत्यो अश्यो गजाली आशिल्ल्यो,
ज्यो आमी पळोवंक जाय आशिल्ल्यो.
पूण म्हज्या आवय-बापायक तशें दिसलें ना.






मागीर आमचो परतुपाचो वेळ आयलो. आमी विमानतळार गेलीं.
“तूं घरा केन्ना येतलो?" हांवें विचारलें.
“बेगिनाच, झूज सोंपतकूच." बापायन म्हणलें. तें आयकून म्हाका दिसलें,
हो केन्नाच परत पावचोनासो.

आमी घरा परतलीं. झूज चालूच आशिल्लें.



हांवें एकठांय केल्ली बेगड, आतां एका व्हड चेंडू
वरी फुगिल्ली.



जर्मनींत, सॅली एन्न कुर्तीच्या भावाची हत्या जातकूच, आमी
“द ब्लॅकआवट" सातोळें चलोवपाचें बंद केलें.
आमचीं तोंडां धरिल्ले वरी जालीं.

एक दीस गाडयांचे हॉर्न, घांटींचें वाजप आनी शिळोण्यो म्हज्या
कानार पडल्यो. हांव म्हजी सायकल घेवन शाराच्या मदेंतकाक गेलों.




जाणटो मिस्टर मर्फी, थंय रस्त्यार आपलें
चेपें आनी बडी हालयत उबो आशिल्लो.
“कितें चल्लां, मिस्टर मर्फी?"
हांवें विचारलें.
"तुका खबर ना, झूज सोंपलें तें?"
तो खोशयेन आड्डी मारत सांगतालो.
“आमी जिखले, आमी जिखले!"



तीन सुमाना उपरांत म्हजो भाव घरा परतलो. एका म्हयन्या उपरांत, आमी तिगांय म्हज्या बापायक मेळपा खातीर रेल-थांब्यार उबीं आशिल्लीं. ताणें आमकां पळयलें, आनी हात हालयलो.



त्या वेळार म्हाका कळ्ळें, झूज सोंपिल्लें.